# कपी

- श्री श्रीनिवास प्रभूदेसाय

**KAPI**
Collection of Poems
by Shri Sriniwas Prabhu Dessai

कपी
कविता संग्रह
बरोवपी : श्री. श्रीनिवास प्रभूदेसाय

प्रकाशन क्र. १
पयली उजवाडावणी ११ डिसेंबर २००१
प्रकाशक : आबू प्रकाशन, रिवण - गोंय

छापपी : बामा ऑफसेट, कुडचडें - गोंय

मुखचित्र : परींद काकोडकार, मडगांव - गोंय

मोल - रु. ३५/-

# प्रस्तावना

भौ. श्रीनिवास प्रभूदेसाय हांका रिवण गावांत भाई ह्याच नांवान वळखतात. तांचो पींड म्हळ्यार शेतकाराचो. अडचल्ल्यांक आदार दिवप हो तांचो सभाव. सकाळ केन्ना उदेता आनी सांजवेळ केन्ना जाता, तांकां खबरच नासता इतले ते कामांत गुंतिल्ले आसतात.

पाचव्या चार सैमांत तांचें मन सदांच रमिल्ल्यान तांच्या आंगांतलो गूण केन्नाकच उफेवन आयलो आनी ते केन्ना कविता रचूंक लागले हें तांकांच समजलें ना अशें ते म्हणटात. जरी सैमान तांच्यामदल्या कला गुणांक पोसवण दिली तरी तांचे कवितेंत पावला-पावलाक तत्वज्ञान दिसता. सैमाचो आदार घेवन ते समाजांतल्या धोंगा पोंगाचेर बडी मारतात. समाजांत घडटल्या दर एका गजालीचेर ते खोलायेन आपले विचार मांडटात. समाजांतलो अच्छेव, अन्याय सामाजिक उलथापालथ पळोवन कवीचें मन उचांबळून येता. समाजांतल्यो वायट प्रवृत्ती तांकां निखालस आवडनात, आनी ते तांचेर बडी मारपाचो यत्न करतात. ह्या कविता झेल्यांत एकावन कविता आसपावल्यात आनी दर कविता आपलें खाशेलेपण घेवन येता.

"दैव" हे कवितेंत ते सांगतात, " वोव्ल वायट काडून दवर, दोळ्यां भूक लागतली, खाशेली वाट मळीत जाल्यार जिणेची वीण फुलतली" सांगपाचो अर्थ, जर दोळ्यांनी बरें पळयतलो जाल्यार मनांतलें किल्मीस पैसावंक जाय जाल्यारच आमची जीण बरे तरेन फुलतली.

"कर्तूब" कवितेंत कवी सांगतात, 'नीट वाटेन चलपाखातीर राखण्याची गरज लागची न्ही', जर मनशाक उजू वाटेची संवय आसा, जाल्यार ते वाटे वयल्यान चलतना कोणाच्याच आदाराची इल्ली लेगीत गरज ना. निर्मळ नितळ मनान काम करीत रावपाचें.

"पावस" हे कवितेंत कवी सांगता मनीस जातीन कितल्योय बढायो मारूं पूण पावसा बगर मनीस उदरगत सादूंकच शकना. 'उदक ना जिवन ना. जीव-जिवन ना मागीर तप मोडून पडटलें - भार सगळो पावसाचेर.' कवी पावसाक देवा सुवातेर मानता.

"विद्या" कवितेंत कवी सांगता, विद्येबगर संसारांत मान ना पूण तेच विद्येचो गर्व जावूं जायना. विद्या ही नमळीकायेनच सोबता. "उब उज्या घेवपा जाय चड तेंकून मात रावशा." म्हळ्यार विद्येची मनशाक उब जाय, विद्या गरजेची पूण तिकाच चिकटून रावूंक जायना. दोळे उगते दवरून जग तेळूंक जाय.

''पात्रताय'' कवितेंत कवी सगळ्यांत चड म्हत्व चारित्र्याक दिता आनी अडेची मिजास सोडून दिवूंक सांगता. कवी सांगता :-

''नम्रतायेंत शक्त आसा, योग्यता जाय पारखुपाक
जपचें शिलाक, करची खंथ, पात्रताय जागोवपाक.''

कवी शब्दांची व्यापक व्याख्या सांगतात. ''शब्द जाय उलोवपाक, संस्कृताय सांबाळपाक, गांवा-घरा रकाद पावोवपाक, एकचाराचीं मनां जुळोवपाक.''

न्हय केन्ना रडोवपाक, संवय बदलपाक - संवय राबोवपाक पवित्रतायेन मनीस जात घडोवपाक.''

''शब्द जाय बरोवपाक - न्ही कोणां चिड्डूपाक,
शब्दांचें गोड रूप - मेळणी सगळ्यां पळोवपाक.''

शब्द म्हणल्यार उतर. उतराची गरज, तांतल्या तातूंत बऱ्या उतराची गरज कितली गरजेची आनी समाज घडोवपाक आदार करपी आसता ती पुराय कविता वाचतकच समजून येता. कवीचें तत्वज्ञान हेय कवितेंत पुराय दिसून येता.

'विनंती' ही कविताय समाजांतल्या धोंगां-पोंगांचेर बडी मारपाचें काम करतनाच कवी आत्म विश्वासाक म्हत्व दिता. सृश्टीची शक्त देव हें तांकां मान्य आसा देखून 'विनंती' कवितेंत ते पयलीं देवाक नमस्कार करतात. देवाच्या नंतर ते संवसारांतल्या बुदवंतांक मानतात. मागीर कवी संसारांत चलपी प्रवृत्तींचेर बडी मारतनाच सांगता -

'दंडाक जाय शक्ती-भक्ती जाय मनांक
तोंडदेखलेंपणाक शीम आसची'
रोगी भोगी मोगी, नडणी मातल्या मस्त
प्रयत्नांचेर भीस्त सदां आसची.'
'नडणी सगळी खुंटया, वायट विचार लुंवया,
नुलैत संधी साधया एकचाराची.'

'कपी' कवितेंत कवीक सांगन दिसता, संवसार हो अडीअडचणींचो आसा. म्हणून आमी निर्शेवंक फावना. सदांच धरूनच चलूं जाय - आमकां अडीअडचणींचेर मात करूनच फुडें वचूं जाय. कवीचीं हीं उतरां पळयात :-

''निसरून कोणीय केन्नाय पडत
उठलो - लाग चलूंक
वाट निसरडी आसतली

बारीक नदरेन जाय तेळूंक "

आज संवसार आपलो सुवार्थ सादपाक खंयच्याय पांवड्यार देंवता. संवसार म्हणल्यार संवसारांतली मनशां बरे वायटाची चाड बाळगिनात. आपल्याचेर केल्ल्या उपकाराची लेगीत देख धरिनात. म्हूण कवी समजावणी दितनाच "करणी" हे कवितेंत सांगता

"तुजी तोखणाय, तुजी स्तुती, वारें भरचें न्ही तुजे मतींत
निंदा नालस्ती कोणीय करीत, जांव नाका केन्ना गर्भगळीत
आदाराक मोल दिवचें तुवें - भाळून केन्ना वचचें न्ही."

"ल्हारां " कवितेंतय कवी अशेच तरेची समजिकायेचीं उतरां सांगता :-

"विसरनाका जखमांचो साज
शीक आंगार झेलोवपाक."

संवसार हो बऱ्या-वायट विचारांनी - कर्तुबांनी भरिल्लो आशिल्ल्यान बरें केल्यार बरें मेळटाच अशें ना आनी वायट कर्तूब केल्यार ताचो परिणाम ताका भोगचो पडटा अशांतली गजाल ना. म्हणून कवी सांगता संवसारांत सगळे तरेचे त्रास सोंसपाची तयारी आसूं जाय.

'मोलाचीं उतरां' कविता तर व्हड गिन्यान सांगून वता. कवी सांगता -

"मागलें म्हणून दिनाका
दिलें म्हणून घेनाका
झगडीं झुजां उप्रास नाका
आंगार आयल्यार शिंगार
घेतले बगर रावूं नाका."

समाजांत वावुरतना धिटायेन वागूं जाय. भिजूडपणां फाफडून दिवूं जाय. सदांच सोंसत रावल्यार मोव थंय खणप जाता. म्हणून आंगार आयल्यार ताचो प्रतिकारय करूंक शिकूं जाय. कवी फुडें सांगता, "टवाळी बिवाळी आयकून मात बाबज्या निरांजन जावूं नाका." तत्वज्ञान सांगतना कवी स्वत्व विसरूंक सोदना. आपलें स्वत्व बाळगूनच समाजांत वावुरल्यार निभाव लागता हें सत कवीक होलमलां.

कवीचें जिवीत सैमाच्या गोपांतच गेल्ल्यान तांचें आनी सैमाचें घट्ट नातें जुळ्ळां. ते खातीर तांचे नदरेन भांगराक म्हत्व ना. म्हणून कवी 'भांगर' कवितेंत म्हणटा -

"पिक, पिकावळ खरी उदरगत - मातयेची मनशां सवकळ
तांबें लोखण मनशां मळवट
चराचरांक - भांगरा धुळवट

उमजना

भांगराची तोखणाय कित्या इतली - उमगना

हेच कवितेंत कवी फुडें म्हणटात -

मनां जुळोवपाक करचो जागोर
चलत म्हऱ्यांत येतलें भांगर
भांगरा माया भांगरा जिवन
भांगरा विचार जावनी पोवन.''

संवसारांत मनशां मदली माया हीच भांगरा परस उजू वस्त अशें कवीक सांगन दिसता. माया-मोग ना जाल्यार भांगर कुस्कुटा समान.

'वाट' हे कवितेंतय कवीची सैमावयली माया दिसून येता. कवीच्या रगता थेंब्या-थेंब्यांत सैम रिगला म्हणून ते म्हणटात -

''तण कोणें रोयलें ना,
रान सगळें पालेलां
सुकिल्ल्या रूखा खांद्याक
पानां फुलां आसपा ना. ''

तेच भशेन 'कुतां' हे कवितेंत सैमाचो आदार घेवन कवी म्हणटा -

''झाडा नांव मनीस
मोग नांवा वाल
झाडार बळून झाड काबार
तोंडां बोट घाल.''

सैमा मर्दी वावुरतना कवीन सदांच पळयलां व्हड व्हड रूख बेनल्ल मातिल्ल्यान मुळासकट काबार जाल्यात. तांणी मनशाक झाडाची उपमा दिल्या आनी मोगाक वालीची. आतां बेनल्लीचो मोग हो बायलेचो मोग असो मानला. मोगाच्या विळख्यान व्हड-व्हड बुदवंत रसातळाक पाविल्ल्याच्यो इतिहासांत देखी वाचूंक मेळटात. सैमाच्या आदारान कवी तत्वज्ञानाची मांडणी करतात.

'वासना' कवितेंत कवी मातसो निराशावादी जावन म्हणटा -

''म्हातारपण कशें येता
देवा पाव म्हणचें पडटा
कोणा खातीर कोण मरना
सगळ्या जाणां खबर आसा.''

जल्माक आयिल्लो मनीस केन्नाच अज्रंवर उरना. तो केन्ना तरी सोंपताच. पूण

कवीक दिसता म्हातारपण कशें आसत काय? तें काय चुकूं येना. हुस्को करूनय रावूं येना. देवा पाव म्हणून देवाचेर सगलो भार दवरचो पडटा. गिरेस्त आनी गरीब कोणाकच म्हातारपण चुकूंक ना. अशेच तरेची "जिणें" हीय एक कविता आसा. कवी म्हणटा मरण हें कोणाकच जरी चुकना तरी थोड्यांचें मरण अमर आसता. ते मरतात पूण कर्तुबान जिवीत उरतात. आपले बरोबर ते कांय व्हरनात पूण नांव दवरून वतात.

"मरणान मनशा अमर केलो
काम मात्त सोपें न्हय,
मरणाचो अर्थ थोड्यां कळ्ळो
जैत जिणेचें मेळोवंक पावलो."

"तगमग" हे कवितेंत कवीक सांगपाचें आसा कीं मनीस जल्माक येतना जसो येता, तसोच ताका वचचो पडटा. येतना एकटो आनी वतनाय एकटो. जेन्ना नायट प्रसंग येता तेन्नाय तो एकटोच.

"काळखांकूय तूं एकटोच
दुकां गळोवपाक तूं एकटोच
जात्रा -- लोकां खिचडी
तांतूंकय तूं एकटोच."

कवीची दर एक कविता वेगळो विचार घेवन येता. 'शिखंडी' कविताय एशेंच वेगळेपण राखता. कवीक दिसता जें किते कश्ट भोगपाचे आसात ते एकट्यान भोगूं जाय. बऱ्याचे वांटेकार खूब आसतात. आपलें दुःखाचें प्रदर्शन कवी करूंक सोदना. कवी म्हणटा -

"मनांतलीं तुज्या रडगाणीं
केन्ना कोणाक सांगनाका
"भरवंशा गाय गाभ घालता
असो अनर्थ करनाका."

"हुमेचें मोल" कवितेंत कवी श्रमाक मोल दितना सांगता :-

"सेवा केन्नाय कोणाची घडत
आफडूंक सोबना कसलेंय किल्मीस
वावुरपा जाय श्रमान शक्तीन
फातोर केन्नाय सोदीत परीस."

"पर्वा" कवितेंत कवी मनाची खंत उक्तायत सांगता :-

''आयुष्य सगळें काबार जालें
अर्थ मात कळ्ळो ना
कमर वांकलां मरण तेंकलां
तरी ताजी पर्वा ना.''
''खिणां'' कवितेंतय कवीची खंत दिसता -
''जोंद्रे खिणां, दुडवां रिणां
ताजीं तोपणां लिपून रावना.''

''ताण'' कवितेंत कवीन मनशाचे सोंशीकतायेचें वर्णन करतना ताठ मानेन उबो रावपी कोंड्याची उपमा दिल्या -

कोंड्या बडी रावता नीट, सोशीक करणी परिक्षा धीट.''

कवीचो सैमीक मोग खिणा-खिणाक उफेवन येता. तत्वज्ञानाबरोबरच तांणी सैमाक आपले कवितेंत पुरायपणान केळयिल्लो दिसता. ''धर्तरी'' कवितेंत कवी सांगता -

''धतरेची भूंय हांवें
हांतरी कशी कवळ्ळी
शेत-भात आंबो - पणस
पिकावळ फळयली
धतरेची भूंय हांवे
पावला-पावला वळखली
विश्वासाची धार कमी
अविश्वासान माखिल्ली.''

हेच कवितेंत कवी सामाजिकरणाकडेन पावता आनी सांगता -

''धतरेची भूंय हांवे
पावसा उदकां व्हांवयली
मान, पान, जात, पात
दर्या ल्हारां पावयली.''

जिविता विशीं कवीच्यो खूब वेग-वेगळ्यो कल्पना आसात. जिवीत म्हळ्यार कटकट दुःख, एक तागडी, जंय सगळ्या गजालींचो न्याय निवाडो जाता. म्हणून तांकां दिसता जिवीत हें -

''नितळ जिवन आसचें उरचें
सेवे सदां पावचें ढंग.''

तत्वज्ञान आनी सैमाचेर कविता बरयतना कविन कांय श्रृंगारीक आनी मन रिजवण्यो कविताय बरयल्यात. देख दिवचीच जाल्यार "सपन" कवितेंत कवी सांगता -

"विसरूंक मन जायना तयार
यादीन गुंतलो मोतयां हार
सपना येवून लजे व्हंकल
जीब दाखयताली."

"जागृताय" ही एक अशीच श्रृंगारीक कविता कवी बरोवन वता. "मोरा" सारखीय मनरिजवणी कविताय झेल्यांत आसपावता. तेचपरी "भुरगेपण" सारखी कविता भुरगेपणाच्या यादी सांगता सांगता भुरगेपण सोंपिल्ल्यान कवी खंती जाल्लेय दिसून येतात. "बेगड" हे कवितेंत आयच्या घटकेक गोंयांत किर्ते घडटा ताचेर कवी बडी मारता आनी मेकळेपणान बरयता

"कथे भितर आडकथा
पयशां फाटल्यान सगळें धांवता
तेंच निमित्त गोंयची भूंय
फुक्या सवाय विकपा वता."

तात्पर्य कवीन आपल्या कविता झेल्यांत सगळे तरेच्यो कविता आसपावन घेतल्यात. खरेपणान आपले विचार तांतूंत भरसून त्यो कविता सर्व सामान्यामेरेन पावोवपाचो यत्न केला. तांचो हावेस व्हड जाल्ल्यान तांका दिसता, आपसांतले हेवे-दावे पयस करून भांगराचें गोंय घडपाक सगळ्यांनी वावुरचें. फाटलें जालें तें गेलें आतां उरलां तें तरी गोंयकारांनी सांबाळपाचो यत्न करचो. "पुराण" कवितेंत कवी मागणें मागतात-

"पायरे पायरेन चडया सपण
उदरगतीचें पडचें सपन."

भौ. श्रीनिवासबाब तुमच्याय हातांतल्यान अशीच कोंकणी सरस्पतीची सेवा अखंडपणान चालू उरची. तुमकां बरी भलायकी आंवडेतां, आनी कोंकणी साहित्यांत पडिल्ली ही मोलादीक भर अशें मानून तुमकां काळजांतल्यान परबीं दितां.

-- सौ. रजनी अशोक भेंब्रे

# तोखणाय स्फूर्तदिण्या कवितांची

आमची कोंकणी भास तरेकवार ओपारींनी आनी म्हणींनी भरल्या. ह्यो म्हणी आनी ओपारी काव्याच्या अलंकारांनी नटिल्ल्यो आसात. ओपारी आनी म्हणी सुरबूस गोड आसच्यो. त्यो ल्हानूय आसूंक जाय. आनी तातूंत चिमटो काडपाची नाजूक तांक आसपाक जाय. कोंकणी मनशाच्या सदच्या वेव्हारांतल्या उलोवपांत लेगीत प्रतिमा, प्रतिकां आनी रुपकांय नटिल्लीं मेळटात. जें कितें घडटा तें उण्या उतरांनी सांगप काव्यात्म आसता. थंय थोड्याच उतरांनी सगळें सांगूंक मेळटा. पूण अतिताय नासता. सुभाषितां म्हळ्यार जिविताच्या अणभवाचे मातयेंत काळाच्या ओघांत मेळिल्लीं रत्नां माणकां. तें आमचें मुळावें धन. समाज जसो अणभवान, प्रज्ञेन, प्रतिभेन, संस्कारांनी विकसीत जाता तशें हें धन वाडटा. नामनेचे कवी दोतोर मनोहरराय सरदेसायांनी कवनांच्यो जायो-जुयो फुलयल्यो आनी कोंकणी काव्यांत नवो प्रवाह सुरू केलो, ताचो सुवास सगळ्याक फांकलो. तांच्या कवनांचेर कविवर्य बाकीबाब बोरकरांसयत हेर सगळे प्रभावीत जाले.

कोंकणी कवितेच्या रत्नभांडारांत अशीं रत्नां जायतीं आसात. रसीक नदरेच्या किरणांनी तीं उजवाडिल्लीं पळयलीं जाल्यार कवींक तातूंतल्यान काव्य प्रकारांचें अचकीत दर्शन घडटलें. तें तशें दर्शन ते आपणाल्या कवनांत घोळयत रावतले. ते दिशेन यत्न केल्यार नव-नव्या प्रकारांची उदरगत जावं येता. श्रेष्ठ कवी आपणाक कळत नकळत यत्न करिनासतना लेगीत एक नवो पंथ घडोवंक शकता. ते वाटेन हेर जायते कवी पावलां वाट मेजीत रावतात.

मराठींत विडंबन काव्याचोय जल्म जालो, तोय खूब गाजलो. तातूंत भावनीक आनंदापरस बौध्दिक आनंद चड आसता. जनना परस टिका करपाची प्रवृत्ती चड आसता. तो प्रकार चड काळ चलना. बाकीबाबाल्या कवितांनी सगळ्यांक गूंग केले. तांची प्रतिभा सुपीक तकलेची. तांच्या कवितांतल्यान प्रेरणा मेळटा. तरुणपणांतल्यानच ते कविता बरोवंक लागले. तांचो एक ल्हान कविता संग्रह तांच्या विसाव्या वर्सा उजवाडाक आयलो. बोरकारांचे जशें जीवन तशें तांचें साहित्य बहुढंगी. काव्यांतल्यान जायते विशय मांडूंक जातात.

श्रेष्ठ दर्जाच्या काव्यांतल्यो वळी कालांतरान लेगीत लोक गुणगुणत

रावतात. तांच्यो वळी लोकमानसांत लोकांचे जिबेर सदांच घोळटात. हाचे उरफाटें कमी दर्जाच्यो कविता काळाच्या ओघांत लोक विसरतात. स्वयंपूर्णता हो जसो कलाकृतीचो एक आवश्यक गूण आसता तसोच निर्मिती क्षमता हो दुसरो गूण आसता. प्रत्येक कलाकृतींतल्यान, कितेंतरी स्वतंत्र अशी भावपूर्ण आकृती निर्माण जाता. जे कवितेंत निर्मिती क्षमता नासता. ती कृती वाचतल्याक आनी आयकतल्याक जिवंत आसा अशें दिसना. कांय कविता नक्कल केल्ल्यो आसतात. तातूंतल्यान विनोद निर्माण जाता. तोय सभावीक आसना. मुक्तछंदाचो प्रकार वाडत आसा. पूण तोय प्रकार मनाक भुरळ घालून वता. सामान्य कविता मनशाक स्फुरतात, पूण त्यो मनोविकाराच्या खालच्या पातळीचेर रेंगाळत आसतात. गोंयकार कविता करपाक हुशार आमच्या पूर्वजांनी लोकवेद बरयले, तशेच ते वेद त्याच स्वरूपांत आयजय गायतात. म्हजे इश्ट श्रीनिवास प्रभू देसाय हांणी आठ-णव म्हयन्यांच्या काळांत कविता बरयल्यो तें आयकून आनी वाचून म्हाका अजापच जालें. हांव चडसो काव्याच्या प्रांतांत वावुरपी लेखक वा कवी न्हय; पूण इतल्या जाणटेपणांत देसायांक काव्य स्फुरप म्हळ्यार त्यो ओळी तांच्या जिवितांतलो जितो जागतो अणभव म्हणूं येता. भावजयेनच त्यो कविता उजवाडाक हाडपाक स्फूर्त दिली अशें ते म्हणटात. म्हणटकच चडशो कविता तांकां ते भावजयेच्या प्रोत्साहनानच स्फुरल्यात म्हणूं येता. देसायान अवती-भवतीचो निसर्ग पळयला देखून, निसर्गांतलो पावस, वारो हे विशय तांकां सुचतात. देखूनच 'कर्तूब' कवितेंत ते म्हणटात, 'दिवो जळूंक उजवाड फांकूंक, कर्तूब रावता उपकार सोडीत.' कश्टकरी, काम करपी, पोट भरपी सगल्यांचो तांकां कवितेंतल्यान उगडास जाता. देसायान शब्दांची केल्ली तोखणाय नदरेंत भरता. देखूनच ते आपल्या शब्द कवितेंत म्हणटात, 'शब्द जाय बरोवपाक, न्हय कोणाक चिड्डुवपाक, शब्दांचें गोड रूप मेळनी सगळ्यांक पळोवपाक.' कवितेच्या मळार पावल घाल्ल्यान कवी देसायांक हुनहुनीत परबीं.

-- श्री. चंद्रकांत एल्. पार्सेकार

# मनांतलें

म्हजे सुपुल्ले विचार उजवाडाक हाडचे नदरेन केल्लो हो यत्न, वाचप्यांच्या हातांत पडचो ही नमळायेची आस. मनशांची जाण जागोवपाक जाय. बरी वाट आनी शाणेपणाक उबारो हाडप हें जण एकल्याचें सपन जावन उरूंक जाय. बरे विचार एकाचे अकरा जातात तेच भशेन वायट विचार एकाचे एकवीस जावन वतात.

वायट बरी गजाल पारखुवपाक जाण आसची पडटा. कामाची मशागत विद्येची उपासना करप म्हळ्यार बरी गजाल. कविश्रेष्ठ बाकीबाब म्हणटा - देव खंय पयस आसा तो तुज्या म्हऱ्यांतच आसा. बरीं वायट कर्तुबां देव मान सकल घालून बारीकसाणेन पळयता.

हस्तलिखिताची निवळावणी आनी प्रूफ वाचप हाची जापसालदारकी सौ. अर्चना कामत हांणी बरे तरेन पार पाडली ते खातीर हांव तांचो भोव उपकारी आसां. छापणावळीची जापसालदारकी बामा ऑफसेट, कुडचडें हांणी बरे तरेन पार पाडली. सौ. रजनी भेंब्रे हाणीं आपले मोलादीक मत प्रस्तावनेंत परगटायलां, तांचे मोलादीक विचार मेळिल्ल्यान ह्या कवितेच्या पुस्तकाक रूप मेळ्ळां. तांचो हांव सदांच उपकारी आसतलों. म्हजे मित्र भौ. चंद्रकांत पार्सेकार, एक नामनेचे जाणकार तांणीय ह्या पुस्तकाचेर आपले विचार बरयले तांचोय हांव उपकारी आसां. ह्या पुस्तकाचें सोबीत मुखपृश्ट बाब परिंद काकोडकार हांणी सजयलां त्या खातीर हांव ताका देव बरें करूं म्हणटां.

आनी हे उपकार मानतना म्हजी भावज सौ. अरूणा र. देसाय हांच्या प्रेरणेक लागून हो कवितांचो झेलो तयार जालो तांकांच ह्या पुस्तकाचो हक्क दितां.

हें कवितांचें पुस्तक तुमच्या मुखार दवरतना म्हाका खूब खोस भोगता.

-- श्रीनिवास प्रभूदेसाय

# मांडावळ

****

## कल्पना

निशब्द निरव शांततायेक जर
धुमाकूळ घालीन दिसत
विश्वाच्या काळजांतल्यान जर
हून उदकाच्यो झरी फुटत
तुंबळ वादळांतल्या वावटळीक जर
आनंदान नाचपा मेळत
साज श्रृंगारांनी नटिल्ली धरा जर
मिलनांत दंग जायत
तरच अर्थाची अनर्थाची जाण
मनशां मेळत.



## कर्तूब

खेळयत मत लोकांचे तांडे
आस मागता उज्या कोलीत
जिवां वळवळ मेल्ले चड
पडंग जमीन पोट भरीत

आसूं फावता भिस्त तांचेर
खरो खुरो मनीस मेळत
विंगड विंगड रास मतां
भुलोवंक मनां काणी घडत

कोण कोणाचो मनशां पालव
कोंत कादेर्न भरचो न्हय
नीट वाटेन चलपा खातीर
राखण्याची गरज लागची न्हय

दवर आडावन जिबेची तोखणाय
पंटी काळजांत घर करीत
दिवो जळूंक उजवाड फाकूंक
कर्तूब रावता उपकार सोदीत.



## दैव

उपकार आसत मनीस सोदीत
दैवाचें चाव्नें पडटलें.
पांगरून रावता आळसां भोंवता
दैवाक लिपचें पडटलें.

कांट्यांची वाट कोणीय चलना
दैवाआड घालचें कोणें.
घडत पुजा अशीच केन्नाय
फुलून रावत मोगा जिणें.

वाट निसरड दोळ्यां काळोख
शिकप हांसप उपकरचें ना.
बारीकसाण दवरना फाटल्यान
जैत मेळोंवक पावचो ना.

दिवप घेवप सांबाळ करप
वजन कोणेंय केलें ना.
वेळ आसल्यार खेळया खेळ
भानगडी तड मारच्यो ना.

बरेंच जालें मारता उडी
वायट गजाल रडटा कित्याक.
बेत आसता जगपा खातीर
दैवा कित्या धरता हाताक.

वोक्ल वायट काडून दवर
दोळ्यां भूक लागतली.
खाशेली वाट मळीत जाल्यार
जिणेची वीण फुलतली.



# गुरू

सगळ्या चराचरां
भरलां रूप गुरुचें
जण एक वस्त
जण एक मनीस
प्रसंग जण एका.
जण एक देखणें
ह्ये गुरू न्हीं ...
आयकुचें न्हीं सांगणें
घेवपा जाय तें घेवचें
सोडूं जाय सोडचें
आयकून पळोवन .....
शिक्षण रगडचें.
रुपां भरलां पुज्य मणगणें
पंगत पंगत शिंपचें
गुरू रूप मेळटलें
गिरेस्तकायेन भरतलें
मनांतलें तडी पावतलें.



# पोट

कित्या खातीर पोटा खातीर
गाडी चलता पोटा खातीर

हात हालता पांय धांवता
तकली काळीज तेच रितीन
जन्मा आयलो पोट भरप
बोब मारता चक्क यादीन

वेंत पोटाचें केदो बोवाळ
पांयां हाताक जोंद्रयो बांदीत
सुख सोदूंक दीस मुकलो
बेत चलना न्हीद ना रात

भूक पोटाची घेता ओडून
चड नाचप मौज इशीम
कश्ट सवाय मोला लागून
पोट पुजपा माथ्या चेपण

केलो भुकेन लुळो मनीस
भोग भोगप दुख्ख यातना
तरी पचय जिवा आनंद

याद सोंपना भान रावना.

पोट भरपाक शीम जल्माक
धनी जावनी चिंता सोंपत
सोंप सोंपना जीण लाचार
ताने लासून कोण धाडीत

याद जायना पूण मनीस
देव म्हाकाच दिना कित्याक
पेज तकले सदां आसता
मोल दिवचें राब सत्याक.



## पावस

उदका थेंब समज अमृत
सोजी गोड लागपी रोस
मनीस जमात तगोवपी वस्त
चुकना आसतना येता पावस.

सुवाद रुचीन भरिल्लें अन्न
करणी सोबीत पावसाची
दर्शन पावसा घडलेंच ना
भूंय इबाडून वचपाची

शेतकामती हातां नांगोर
सुकें भुकें नकेत्र मीर्ग
शिगमो इंत्रूज चलचोना
दोळ्यां मुकार पावलो सर्ग

पावस जाय जगपा तगपाक
इबाडय करता पावस
चड गरज आसतली
दर्या वयर सकल जावपाक

मेळ फुगड्यो नाच गाणी
पावस पडत ताळया सूर
बसपा कदेल पांय चार
ताजो एक मोडको खूर

उदक ना जिवन ना
जीव जिवन ना मागीर
तप मोडून पडटलें
भार सगळो पावसाचेर.



## विद्या

आंकडे खेळोवपाचें कसब
गिन्यान जाय अक्षराचें
शाणो गुणो मनीस जायत
विश्वरुप शिक्षणाचें.

बसका सोबीत मांडपाची
येवूंदी वेगीं दिवाळी
पांयजणां वाजत गाजत
रेख घरां रांगोळी.

घाण आसा तकली सकल
उकते दोळे पालोवशी
ऊब उज्या घेवपा जाय
चड तेंकून मात रावशी.

उदक निवळ खोल बांय
आसांचें मोल जिरतलें
सुकें तळें व्हांवतलें
पावसा शिवाय भरतलें.

सोबीत घर विद्ये विश्व
मगज जाय मेळटलें.
धर्मा गिन्यान तत्वज्ञान
विश्व दर्शन घडटलें.



## वारो

ना घर ना दार - आसता भोंवत आलंपेड्ड्यार
गरज कसलीच लागली ना
जाय अशें चितलेंना
दिसलेंना
चराचर जायत घर
घस्टवप - बसून वाज
आशेचो सोद - वासा फाटीर
घाणी - व्यंगीं
नितळ इतलो - खंय आसा
खंय ना.
आस भास कांय ना
तरीकय ताजी आवड
ताजीं हाजीं म्हजीं नमनां
ताज्या बगर जगणें ना.



## पात्रताय

चारित्र्याच्या पात्रतायेक
आसता मनशाक नम्रताय
बाकी खबरो काणयो सगळ्यो
जाय चाळोवंक पात्रताय.

दिसता खरें जावचें बरें
कर्तूब सदां आसचें मुखार
बरें वायट सोसूं ताकत
मिजासकायेन भोंवता बेकार.

मोग निश्ठा निंदा दुशण
वयें जायत खूंट चार
शेजाऱ्याचें मन जिखपाक
कट्ट्या जिवा घे भार.

नम्रतायेंत शक्त भरल्या
योग्यताय जाय पारखुपाक
जपचें शिलाक करचो स्वंथ
पात्रताय जागोवपाक.



# शब्द

शब्द जाय उलोवपाक
न्हय तकली खरपुवपाक
शब्दांचो खेळ खेळपाक
मेळ जाय जुळोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
संस्कृताय सांबाळपाक
गांवा घरा रकाद पावूं दी
अर्थ ताजो कळोवपाक

शब्द जाय घोळोवपाक
मनशां मनां केळोवपाक
कामाखातीर अेकचाराच्या
जमात सगली चाळोवपाक

शब्द जाय हांसोवपाक
न्हय केन्नाय रडोवपाक
प्रयत्नांची पराकाश्टा
मनीस सगळे धांवडावपाक

शब्द जाय बरोवपाक
वायट संवय बदलपाक
बरी संवय राबोवपाक
झोंपाळो कसो हालोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
एकठांय करून दवरपाक
पवित्रता सांबाळपाक
मनीस जमात घडोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
न्हय कोणाक चिड्डुवपाक
शब्दांचें गोड रुप
मेळूं दी सगळ्यां पळोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
मन निर्मळ राबोवपाक
कायद्याचो वास येवूं दी
सगळ्या जाणां समजुवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
बेकारसाणे खेळोवपाक
भिशटावपाक रडवपाक
जमता तशें नागोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
पेटयेंत धांपून दवरनाका
ओंकून ओंकून उडयिल्ले

शब्द केन्ना बरोवंनाका

शब्द जाय बरोवपाक
लाडी गोडी शब्दाची
शब्द म्हळ्यार मंत्र समज
देवा मुखार बस जपपाक

शब्द जाय बरोवपाक
निश्टे साणीर घांसोवपाक
शब्दां भरिल्ली आस-आसपत
गरज ना लिपोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
मनशां जिणें खुलोवपाक
शब्दां शब्द कालोवपाक
शब्दां माळ फुलोवपाक

शब्द जाय बरोवपाक
शब्द हेच जिवन भक्ति
शब्दांचीं रत्नां जावूं दी
यत्न करात बरोवपाक



# विनंती

नमस्कार करया, बरेंपण जोडया
वायट गूण सोडया बरे गूण घेवया

नमस्कार देवाक आनी दीन जनांक
पयलीं बुध्दिमंताक मागीर सगळ्या मनशांक

सगळ्यां सांबाळपी देवा बरी मत दिवंची
जाण सगळ्यां येवंची चूक पदरां घेवंची

पराकाश्टा जावची मनां जिखलीं वचचीं
माळ सदां गुंथया बऱ्या विचारांची

सामान्य अशी जीण मान्य सगळ्यां जावं दी
जिद्दीन फुलोवनी जगत जननी

वायट संवयो मोडया अेकचाराचो पोवों
धुंदी मस्ती कावो उडय धुकलून

दंडाक जाय शक्ती भक्ती जाय मनांक
तोंडदेखलेंपणाक शीम आसची

रोगी भोगी मोगी नडणी मातल्या मस्त
प्रयत्नाचेर भिस्त सदां आसची

नडणी सगळी खुंटया वायट विचार लुंवया
फुलयत संधी साधया एकचाराची

नाडया मागया पाडया असल्यो खबरो सोडया
शिस्तीन सगळे वागया जैता तुरो खोवया

दिवया घेवया रेखया नवीं नवीं सपनां
चित्त शुध्द करया ताठ मान दवरून



## कपी

दोळे वाटे सोदताले
चीर मळबा पडिल्ली
कोणूय मेळत शिंवपा मळब
दोरा गांठ पडिल्ली.

हीच संद होच वेळ
मांडिल्ली खेळी फाफशिली
जायत येवजण मारूं कपी
दोर मेळ्ळो सूय तोपली.

निसरून कोणीय केन्नाय पडत
उठलो ऽऽ लाग चलूंक
वाट निसरडी आसतली
नदरेन जाय तेळूंक.

पडली तर पडली चीर
गरज कित्याक लिपोवपाची
तकले बुराक मळबा चीर
पावसा वाट पळोवपाची.

गोजडी मेळत पांगुरपाची
बुराक पडत मार कपी
हांसत मजेंत वावुरतलो
मळबा सदां चीर सोदपी.



## पिराय

काळजां भिनिल्ली एक खबर
वस्त खंयचीय ना सवाय
गवाय बिवाय कोणा खबर
फुकट रावता तन्नी पिराय.

खबर खंयीय भोंवली जाल्यार
खंय सांचल्या तार कर
अशेंच सदां घडत जाल्यार
देंवत वतलो ताजो कर.

म्हारगाय पडत मेजूं पयशे
सोदचें कोणेंय घालूंक दुकान
अजापाची खबर घडची
पिराय जावची न्हय चिकान.



## विवेक

गीत गा चालीन आयकूं बरें
मनांत घोळटा खरें
तुजे खातीर.

वास घम .. घम मोगरे कळे
नितळ जावं दी दोळे
तुजे खातीर.

सैमाची आसची सोशिल्ली पर्वा
मोनी अर्चिकाय जिवा
तुजे खातीर.

खोस काळजांत भरून ओतूं दी
नमळायेन वाच मतीन
तुजे खातीर

**

## करणी

तुजी तोखणाय तुजी स्तुती
वारें भरचें न्हय तुजे मतीं
निंदा नालस्ती कोणीय करीत
जावंनाका केन्ना गर्भगळीत.

आधाराक मोल दिवचें तुवें
भाळून केन्ना वचचें न्हय
गर्वाचें घर सदां सकल
नसतें व्हडपण हाडचें न्हय.

मन मोकळें सत्याचें दर्शन
लागूं दी नम्रताये वळख
सहज काम जावन वतलें
तुज्या वाऱ्या पावळ्या काळोख.



# ल्हारां

स्वर जुळ्ळे लय मेळ्ळी
धांदल रंग मिसळावपाक
विसरनाका जखमांचो साज
शीक आंगार झेलपाक.

मनांतली ल्हारां निच्छय हुंकार
झगड सदांच दिवपा मोल
आस तरतरीत विसरनाका
वेगळ्याच रुपान धोलतलें फूल.

सदांच इच्छेन धावूं दी आनंद
गती दोळ्यांनी पळयत राव
कंजूस मनीस पयशां जपता
दी सदांच सत्याक जाब.



## मोलाचीं उतरां

मागलें म्हणून दिवूं नाका
दिलें म्हणून घेवूं नाका
झगडीं झुजां उप्रासनाका
आंगार आयल्यार शिंगार
घेतले बगर रावूं नाका.

तांकता तसो पालव दी
उतर कोणा दिवूं नाका
टवाळी बिवाळी आयकून मात
बाबज्या निरांजन जावूं नाका.

मनाक तुज्या शिकवण दी
पयशे आसल्यार केळीं सवाय
ढुबाव भरला सगळे कडेन
नसती गोमजाणी राबंय नाका.

कोणे कितेंय उलयलें - आयकलें सोडून दिलें
बरें खंयचें वायट खंयचें
भपक्यांक मात भुलूं नाका



# सुलूस

हार जीत आसतली
म्हाका ताजी इशीम ना
घडपाचें घडून वतलें
सुलूस केन्ना लागची ना.

दिसता म्हाका हांवें केलां
फुलां फुलतात रानां वनां
तिरसुवाद कितलोय आसत
सुलूस केन्ना लागची ना.

उलयतां तें करून गेलों
कोणा केन्ना सांगलें ना
नुलयत केल्ली गोमजाणी
सुलूस केन्ना लागची ना.

कशें आनी कितें सांगूं
सभावाक वखद ना
मनांत प्रस्न उप्रासलो पूण
सुलूस केन्ना लागली ना.



## इशीम

कर्तूब ना, लोक उलयत उलयत रावतात
भोंवतणी लोक वरांची वरां
अशेच आयकत आसतात
तत्व काळखांत बुडलें
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

स्वार्थाचो नाक्या नाक्यांनी जागोर
तान भूक विसरून गेले
जीण जनाची लाचार
पाय ल्हेंवपाक लागले
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

एकवटपाक मोल मोलादीक आसता
सत्ता मत्ता भोग भोगवटी
लक्षण मनशां भावता
चाबूक फाटीर बसलें
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

भुकेचो उजो कापये आयकना
घोळोवन कोणय दवरीत
कोणा कांय पडलेंना
भोग भोग पद भोगलें
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

शिश्टाचार भश्टें नश्टें कालवण
आत्साण पात्साण जमना
जोडपा जाय बरेंपण
जगांट बडोवन मागलें
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

आंदोलन नांव गांव नाशिल्लें
लंगडे पांगळे नाचतात
आत्साण पात्साण कमी
कर्मा फळां भोगतले
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

चकचकता सूर्य चंद्र धडपडटा
खंड ताका आसना
रगताचें उदक जावचें
जाण जाणकार गायताले
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

बदल घडोवचो मनां जावनी अखंड
संस्कार रगतां भिनपा जाय
पिळग्यांच्यो पिळग्यो न्हायीत बंड
जिणेची वीण शिंवतलें
सत्व इशीम
हड्डें फुलोवन भोंवतले.



## भांगर

भांगर हें पारखून गेलें - अयेपण ताजें कळ्ळें वळ्ळें
आपदा आपत्ती पचोवन तगलें
वर्सांच्या वर्सा मनांक भावलें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

पीक, पिकावळ खरी उदरगत - मातयेची - मनशां
संवकळ
तांबें लोखण मनशां मळवट
चराचरांक -- भांगरा धुळवट
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

झुजां झगडीं मळब - भरलें
तरी तांतूंतल्यान भांगर तगलें
संहार भोंवले तागले भोगले
जायते राबले बाकी हुलपले
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

व्यापार उदीम मोल मोलायलें
बुन्यादीक ताज्या भांगर लागलें
राजा कदेल भांगरा आसतालें
एकामेकाच्या मनांत भरलें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

गूण गुणाचे विरक्तीचे - भोग भोगाचे कितले मोगाचे
शिस्त नाशिल्लें ऋण शौर्याचें
भय लक्षण भिवकुरपणाचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

सुंदरसाणेचें विद्रुपपणाचें - तपलें भरलां मान पानाचें
प्रतिष्ठेचें हळवेपणाचें - रुची नाशिल्ल्या दुश्ट सुश्टाचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

शेटी शेटी भांगर पेटी - अंत पार ना कलेंत खोटी
खंड बदललें खंड पडलोना - दिशीं दिशीं जाली सावळी मोटी

उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

राजा चलये केंस भांगराचे-घरा चडयले नळेय ताजेच
सुर्याच्या वताक ताजीच उपमा - घर जावन आसा नाग
नागांचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

मनां जुळोवपाक करचो जागोर
चलत म्हऱ्यां येतलें भांगर
भांगर माया भांगरा जिवन
भांगरा विचार जावूं दी पोवन
उमजना -
भांगराची तोखणाय जावची सदां - उमगना.



## वाट

गोबोर फुंकलो म्हणून
उजो धगधगना
इंगळ्यांचेर हांतरूण घाल
न्हीद केन्ना पडची ना.

तण कोणें रोयलें ना
रान सगळें पालेलां
मातये केल्लो वीट
घट्ट केन्ना जावचो ना.

सुकिल्ल्या रुखा खांद्या
पानां फुलां आसपा ना
बुजगावणें शेतां लायलां
मनशा ताजें भंय ना.

भैऱ्या कानां आयकूं येना
पांगळ्या पांयांनी चलूं येना
सुर्या म्हऱ्यां वचपा आसा
काळखां वाट सांपडना.

**

# काम

धांवत्या उदकां पोंवपी कोणी
प्रवाह पवित्र दर्शन घेवप
अशूभ कल्पनेची गिधाडां
सहजतेक साज कोणें सांगप.

गोठ्यांत पवित्र पावलां उमटत
ढुबाव केन्ना कोणें धरप
वेळ काळ चलत रावता
पळय गोठ्याचें गोपूर जावप.

रुक्ष निरस आंखिल्लो बेत
वाटेर कांटे कर सांबाळ
काळजाची समिधा पडूं दी आगट्यांत
खवळूं दी समुद्र भिवूं दी काळ.



चकचकता सूर्य चंद्र धडपडटा
खंड ताका आसना
रगताचें उदक जावचें
जाण जाणकार गायताले
सत्व इशीम
फाटी मारून भोंवले.

बदल घडोवचो मनां जावनी अखंड
संस्कार रगतां भिनपा जाय
पिळग्यांच्यो पिळग्यो न्हायीत बंड
जिणेची वीण शिंवतलें
सत्व इशीम
हड्डें फुलोवन भोंवतले.

**

## भांगर

भांगर हें पारखून गेलें - अयेपण ताजें कळ्ळें वळ्ळें
आपदा आपत्ती पचोवन तगलें
वर्साच्या वर्सा मनांक भावलें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

पीक, पिकावळ खरी उदरगत - मातयेची - मनशां
संवकळ
तांबें लोखण मनशां मळवट
चराचरांक -- भांगरा धुळवट
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

झुजां झगडीं मळब - भरलें
तरी तांतूंतल्यान भांगर तगलें
संहार भोंवले तागले भोगले
जायते राबले बाकी हुलपले
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

व्यापार उदीम मोल मोलायलें
बुन्यादीक ताज्या भांगर लागलें
राजा कदेल भांगरा आसतालें
एकामेकाच्या मनांत भरलें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

गूण गुणाचे विरक्तीचे - भोग भोगाचे कितले मोगाचे
शिस्त नाशिल्लें ऋण शौर्याचें
भय लक्षण भिवकुरपणाचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

सुंदरसाणेचें विद्रुपपणाचें - तपलें भरलां मान पानाचें
प्रतिष्ठेचें हळवेपणाचें - रुची नाशिल्ल्या द्रुश्ट सुश्टाचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

शेटी शेटी भांगर पेटी - अंत पार ना कलेंत खोटी
खंड बदललें खंड पडलोना - दिशीं दिशीं जाली सावळी मोटी

उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

राजा चलये केंस भांगराचे-घरा चडयले नळेय ताजेच
सुर्याच्या वताक ताजीच उपमा - घर जावन आसा नाग नागांचें
उमगना -
भांगराची तोखणाय कित्या इतली उमजना.

मनां जुळोवपाक करचो जागोर
चलत म्हऱ्यां येतलें भांगर
भांगर माया भांगरा जिवन
भांगरा विचार जावूं दी पोवन
उमजना -
भांगराची तोखणाय जावची सदां - उमगना.



## वाट

गोबोर फुंकलो म्हणून
उजो धगधगना
इंगळ्यांचेर हांतरूण घाल
न्हीद केन्ना पडची ना.

तण कोणें रोयलें ना
रान सगळें पालेलां
मातये केल्लो वीट
घट्ट केन्ना जावचो ना.

सुकिल्ल्या रुखा खांद्या
पानां फुलां आसपा ना
बुजगावणें शेतां लायलां
मनशा ताजें भंय ना.

भैऱ्या कानां आयकूं येना
पांगळ्या पांयांनी चलूं येना
सुर्या म्हऱ्यां वचपा आसा
काळखां वाट सांपडना.

**

## काम

धांवत्या उदकां पोंवपी कोणी
प्रवाह पवित्र दर्शन घेवप
अशूभ कल्पनेची गिधाडां
सहजतेक साज कोणें सांगप.

गोठ्यांत पवित्र पावलां उमटत
दुबाव केन्ना कोणें धरप
वेळ काळ चलत रावता
पळय गोठ्याचें गोपूर जावप.

रुक्ष निरस आंखिल्लो बेत
वाटेर कांटे कर सांबाळ
काळजाची समिधा पडूं दी आगट्यांत
खवळूं दी समुद्र भिवूं दी काळ.

**

# कुतां

झाडा नांव मनीस
मोग नावां वाल
झाडार बळून झाड काबार
तोंडां बोट घाल.

शेतां रोयलें शेत
पोट भरूंक भात
किडीन ताजी खावन पात
भाता जालो घात.

आजी नातवा म्हणटाली
कितें केलें कर्म म्हजें
तिकाच पयलीं खबर ना
नातू म्हळ्यार कर्म तिजें.

घोव बायल बसून सोप्यार
खबरी मारतालीं
मातशी घोवा जांभय आयली
म्हणटा याद कोणा जाली.

दोळ्यां पडलां कुस्कुट
चलता कसो रे
सांगचे पयलीं तोंड तुजें
आरशां पळय रे.

**

# जैत

धुंदी आशिल्ले
पचयताले इंगळे
ना रुच, ना स्वाद
शीद-विशीद थोडी कमी

मनां उचांबळ जातालीं
सत्येच्या पेजान चिड्डलीं
अकस्मात नुलयत
आयलें वीज

पडलें रुखार
थरथर कडकड
निजाचो रुख
तेंगशी सुकल्या.

**

# वासना

सुता सारखें आसत नीट
खोल आसत ताजी गर्भी
पालमत्री घेवन माप जाय
मनान केन्नाय आसत धीट.
हें गणीत सामकें सोपें
सोसूं जाय कंगालपण
अशेंच पळय बारीकसाणेन
ताजें मोल आसत रुपें.
शब्दांचो धंदो चलता कसो
वाट अर्थाक-अनर्थाची
शब्दांनी शब्दांक जखडपाक फक्त
सोदून सोदल्यार मेळना वसो.
कायद्यान सदां कित्या वागप
संसाराचें वजें कित्याक घेवप
पावसान तण मातता मरता
नसती कटकट कित्या सोंसप.
न्हेंसण सगळ्यां न्हेसचें पडटा
नागडो फटींग कोणा म्हणप
म्हातारपण कशें येता
देवा पाव म्हणचें पडटा.

कोणा खातीर कोण मरना
सगळ्या जाणां खबर आसा
वाट वांकडी मळत आयल्या
देंवचार केन्ना देवा सोदना.
मांड मांडावळ कशी आसची
समजून घेवपाक वेळ थोडो
व्हांवत उदक पावलां दर्या
थोडी पूण अचिर्काय आसची.
सगळे शाणे आस सोंपना
तप कोणेंच केलें ना
थोडेच फाटी मारून भोंवतात
वळख नाशिल्ली कल्पना.
अडचणींचें काम मांडावळ
अदमास तानसोर मारपाचो
बोडक्या झाडाक एकच फूल
नांव फुलाचें वास ना.
पयशां ताकत बुद्धीची सुल्ली
घुस्पल्ली आसत एकामेकांक
फापसूं जाय सगळे कडेन
तरच उदरगत भोंवतली.



## एकात्मता

पायां मेळिल्ली थंडसाण
आंगां भोंवतली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली

जगपाखातीर ढुकां गळय
पातकां लिपयलीं
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

नाचून नाचून पांय वळ्ळे
शिबा खुबी मेळिल्ली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

जगांट सगळ्या संसारार
नागाचेर घुमटी विष्णूली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

पतंग ऊंच उडोवपाखातीर
जिवाची व्होवडीक नाशिल्ली
एकात्मता एकात्मता

अशी आसतली.

राज्यां लागल्या हांसपा संवय
तान सत्ते सोदताली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

यमकोण सांचलां पातकांचें
शिद विशीद नाशिल्ली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

आशेन जीव तानेला
मनोराज्यां भंगलीं
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

गोर गरीब जळत आसात
बोक्यांची तोखणाय तांगेली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली.

संसाराक पेटला उजो
खबर केन्ना उप्रासली
एकात्मता एकात्मता
अशी आसतली. 

## जिणें

उज्याचेर गोबोर माखला
गोबराचो थर थंड जाला
शियान रात कुडकुडटा
मन चिंतेस्त जावन बसलां.

उज्या गोबोर जालो कसो
घुबड रडत बसलां कित्याक
उजो परत फुंकलो जाल्यार
येवजिल्लें मगज लागत हाताक.

फुंकून उजो आयलो वीट
धूळ सगली वाऱ्यान हुबली
परतून फुकूं आयली लूव
आगट्यांक फुल्ली ल्हान कीट.

कीट पावली दोळ्यां मुखार
गरमसाण सामकी कमी
कानां पड्डे थरथरताले
थंड जमनीक चडली धार.

धारेची गत लागली वाडूंक
पारतीं फुलां विकूं बसलों
झगड्यां बीं किल्लूं घालां
मशागत कर झाड वाडूंक.

आस मनशांली चुरगळ्ळ्या
माया मोग चेपणा घाला
मेल्ल्या मड्यान शिटकावणी दिल्या
मार्गा वांकडी वाट घोळ्ळ्या.

माळ गुंथपाक फुलां दोर
बाजारां सगळीं सरणां लाकडां
वखदा सोदल्यार गंध ना
संसार सोदता जिणे कोर.

सगल्या लोकां जगपा खोस
पयस पावलां बरें खरें
भीड मुर्वत सोदूंक जाय.
हाय फाय भरल्या आकस.

उज्याच्यो हेली गरम हुंवार
तातूंत बुचकळ्ळ्यो वासना विकार

हात ताणून पोंवपाक मुखार
वेळ हाडूं नाका बसपा बांकार.

सगुणाचे गूण अगुणाची खूण
मरतना मरतना सगळे मेले
आस वासना गेले ना घेवन
होच मरणाचो खरो गूण.

मरणान मनशा अमर केलो
काम मात्त सोपें न्हय
मरणाचो अर्थ थोड्यां कळ्ळो
जैत जिणेचें मेळोवंक पावलों.



## तगमग

मनांतले मांडारे
मनांक ताजो परमळ
घट्ट काळीज थोडेंच
जिवाक मात तळमळ.

काळखांतूय तूं एकटोच
दुकां गळोवपाक तूं एकटोच
जात्रा .... लोकां खिचडी
तातूंतय तूं एकटोच.

आस भीड नाशिल्ली
वाटेची वळख आशिल्ली
केलें एक जालें वेगळें
जिद्द मात भागिल्ली.

जीव दी म्हणटा --
घाल गांवां पेरगांव
जपाची माळ हातांत
सामको मरे हो साव.

**

## शिखंडी

सदांच हांसत रावूं नाका
लोक पिसो म्हणटलो
हांसपावेळार हांसूं जाय
एक दीस पूण रडटलो.

सदांच नाचत रावूं नाका
पांय मात मोडून घेवशी
वाटे सगल्या शेळो जाला
वाटे वेल्या फोंणां पडशी.

सदां नाचत रावनाका
फाटीं फुडें चल पळोवन
नाचनच दिसलें जाल्यार
नाच सगळ्या लोकां कळोवन.

सदां हांसत रावनाका
हांसपा खंय अर्थ आसा
यो दिसा भर पोटा
अशें केन्ना करनाका.

सदांच नसतें येवजूंनाका
जगाक तोंड खंय आसा
भरवंशा गाय गाभ घालता
असो अनर्थ करूं नाका.

मनांतलीं तुज्या रडगाणीं
केन्ना कोणा सांगूं नाका
सामकोच मोनेळ बरो न्हय
वोगीच शिखंडी जावूं नाका.



# हुमेचें मोल

जावूं दी शांत नितळ मन
अनवाळें दवर जिवें आसनी
दिवपा जाय चुकयनाका
मोल हुमेचें गळून वचुनी.
सेवा केन्नाय कोणाची घडत
आफडूंक सोबना कसलेंच किल्मीस
वावुरपा जाय श्रमान शक्तीन
फातोर केन्नाय सोदीत परीस.
नामनेचें काम उजवाडाक वाट
भरून दवर तरतरीत उमेद
पालव लायतलो आदार सोदूं नाका
फेरीद पेकपाक एकवट सोद.
पुजा बांदप सामकें सोपें
खंत ताने बांय खणप
तोल तागडी हालयनाका
नामना विश्वास दिवप घेवप.
हार जीत सोदप कित्याक
विश्वास जागलो पानिपत
धांवत रावचें जैता घुडी
धुवन उडय आंगा खत.



# फुकट सल्लो

तूं मोग करता मरे
        मागीर तुवें सोदप कोणाक
जाण कमी वाट चुकलो
        वोगीच गाळी घालूं नाका मनांत.

तूं खेळ खेळटा मरे
        मागीर असो वोगी कित्याक
सर मुखार उठ बस
        येवजिल्ल्या कामाक लागना कित्याक.

तूं बरो दिसना मरे
        पावस शीं थंडी बारकूण
कसाय पी मेथये पानां
        फुक्या येवजण विकती जाण.

**

## मोग

भरला मोगान जीव शामा
तुजेंच रुप मनां
देखणें तुजें दोळ्यां भरलां
केन्ना विसरना
गो शामा मोगा दोळे ना.

आयकून तुजीं उतरां रामा
सुखांत हांव पोंवतां
माळ गळ्यां घालपा दी रे
काळजां सावन मागतां
रे रामा मोगा आंवडेतां.

पळयत रावया सुखाचीं सपनां
वेदना सोंपोवया
संसाराचीं सोबीत सपनां
मजेन चाळोवया
गो शामा पाळणो हालोवया.



# सपन

ओड म्हज्या मनां बसल्या
घालून आसरमांडी
वाऱ्या लकेर फुलां वास
पिराय तन्नी मोगा नास
पोल्यां लाली वज्रां कुडीं
कानां चकचकतालीं.

गळ्यां माळे पोवळ्यां मणी
नदर मारता जीव घेणी
मुरको मारता हालत धोलत
लजे खुणायताली.

विसरूंक मन जायना तयार
यादीन गुंथलो मोतयां हार
सपनां येवन लजे व्हंकल
जीब दाखयताली.



## जागृताय

मोगा दार करया बंद
शिंगा फूंक मारली
दोळ्यां साय रावना कडे
बावट्या चाळयताली.

आपल्या भोंवतीं तेळपी कोणी
चाखूं मेळना मोगा लोणी
उज्या धग मोगा लागून
ओंपून उडयताली.

वाटे सदां बोड धोलता
म्होंवां मूस घुस्मट्टा
हालत धोलत वाऱ्याचीर
पदर हालयताली.

रंगीत सोबीत वता कीर्ण
धरा लजेन तांबडी गूंज
कोगूळ गायता लावून सूर
आस भागयताली.

माये ओघ तरतरीत
मन रावचें सभ्राभरीत
पारजताचीं फुलां आंगणांत
खेळपा आपयतालीं.

काळोख उडय सगळो झाडून
नितळ मळब मोगा जीण
फाटल्यान मात्सो पळय थांबून
फांतोड कुलायताली.

**

## बडबड

फुलांचो गुंथून झेलो
कामाक जर मारीत उलो
पाडेल्याक घालया कुलो
पणसाचो पणस पोलो

मनां ताज्या चलता कालो
उदकाचो थेंब पिलो
बडयेच्या सांवळेक भिलो
गुणाचो मोगाळ चलो

कागदाचो पतंग केलो
पळयल्यार नितळ खरो
चाखल्यार लागता बरो
फातराचो घट्ट चिरो

काजूचो मेळत निरो
कणकीचो लागत हारो
पावसाचो पडलो करो
लाकडाचो जड भरो

विडयेचो कडक चुरो
दर्याचो वारो खारा

पोटाचें गीत गायलो
उकडल्यार घेवचो वारो

कोणाकय जायत पुरो
तुपाचो गोड शिरो
झरीचो व्हांवता झरो
हांसतल्याक दिवचो थारो

मोराच्या माथ्यार तुरो
सुशेगाद चडय पारो
खोरजीक लाय हुरो
तोखणायेक जाय हिरो

सुकिल्लो झाडा पालो
उज्याचो ताजेर घालो
पळयल्यार वाटेर कोलो
मोठ्यान मारया उलो

गाडयेचो सरांव केलो
कावळ्यान ताका तेळून सोडलो
कुडकुडत शारां पावलो
नळाच्या उदकां पोंवलो.



## पर्वा

लजे भिना जैत हार
म्हाका ताजी पर्वा ना
मरुन नरक मेळटलो
ताजीय म्हाका पर्वा ना.
फुलां फुलत रावतलीं
पावस शीं आसतलें
कुडकुडत रावचें कोणें
ताजीय म्हाका पर्वा ना.
तेन्ना हांव अेकाणो
हळसुकावणो फकाणेर
लोकां तोंडा म्हजें गीत
ताजीय म्हाका पर्वा ना.
विगोड म्हज्या संसाराचो
घरां सगळीं हुंदरा बिळां
हांसपा लोक हांसतले
ताजीय म्हाका पर्वा ना.
अशीच आयली वाऱ्या झुळूक
रुप रंग व्हांवन गेलो
घुस्मटमार सोंसप कोणें
ताजीय म्हाका पर्वा ना.

दशा आशा वोगीच काणयो
पयलीं खबरी याद ना
हड्ड्यें मुखार मान वांकडी
म्हाकाय ताजी पर्वा ना.
जोतें तुटलां खोमीस पिनलां
अर्दें कालसांव सदळ जाता
तिरशे दोळे वांकडयो भुंवयो
म्हाकाय ताजी पर्वा ना.
पर्वा ना पर्वा आसा
दिल्लें उतर राखपाची
फटींग चोर म्हणूं कोणेंय
म्हाकाय ताजी पर्वा ना.
आज आसा फाल्यां ना
भरवंसो कोण कोणाचेर
तळ्यांत खंय साळकां फुलतात
म्हाकाय ताजी पर्वा ना.
आयुष्य सगळें काबार जालें
अर्थ मात कळ्ळो ना
कमर वांकलां मरण तेकलां
तरी ताजी पर्वा ना.



## वित्राग

घर म्हजें मोडकें
बसून घेतां विडये झुरके
सुके लाकडाचे सुळसुळीत कुडके
लाय उजो लाय उजो.

दाळटना सोंपना सुरबूस
हात वळ्ळे पांय मोडले
चाबडायिल्लें उश्टें जिणें
लाय उजो लाय उजो.

वाट मात सांसपीत आसां
आंधळ्या भशेन पांगळ्या सर
म्हजीच सावळी भयान माकल्या
लाय उजो लाय उजो.

आस्त आसपत तोंडा रुपडें
मगज खंय उरल्या वाटे
तण मातलां रुख सुकला
लाय उजो लाय उजो.



## खिणां

जोंद्रे खिणां दुडवां रिणां
ताजीं तोपणां लिपून रावना
लिपोवशी ....... लिपोवशी.

चोरलें मारलें बंदखण भोगली
सभावाक वखद थोडें
लिपोवशी ....... लिपोवशी.

सरण पेटलां गळोभर रड
बंड केन्ना लिपून उरना
थंड थंड गरम उजो
लिपोवशी ....... लिपोवशी.

**

## रानवटी

रानांतलें शेवणें पावलें शारा
वळख ताजी घरा दारा
शेवण्या फाटल्यान तार पोरां
मळवट ताजी सोदतालीं

झाडार रावता मळबां उडटा
शिळोणी ताजी आयकन दिसता
म्हजेखातीर सवंगड्या
वांकडें तिकडें नाच.

पांखटी हालयता उडतना
चोंचीन जेवण जेवतना
फुरसद ताका सामकी ना
वोगी बसपाक वेळ ना

कामा सदां दंग रावता
शिटकावणी दिवपाक पयलीं धांवता.
गुणाक ताज्या तोखेन दिसता.
दोळ्यांचेर आयल्या झांपड

गांवां सगळ्या चल्ला खसखस
अदमास घेवपाक गेल्लों हांव
अजापान म्हणटा सगळें गांव
शेवण्या फाटल्यान लागलों हांव

उडत शेवणें ऊंच मळबांत
भुरग्यां मळणे बीं ना भात
गजाल कसलीय सांगूं जाय
शेवण्यां रानां जाली रात.



# पारो

असोच केन्ना चडत पारो
काचाबूल कोणें जावचें न्हय
उलोवन सोंपलें आयकून भागलें
गुणाक आयणो घालपा वारो.

कोणीय कोणाच्या मोगान पडलो
भागल्या पालोव फुलोवचो
जीण रुढींची झाडार बळिल्ली
मळिल्ले वाटेर घुस्पून पडलो.

नुलयत सोयरो घरांत पावलो
वंटी धाळी चुन्या गिलावो
पंगत थांबल्या मनां दुवाळो
आव रानप्याचो पळोवन हांसलो.

तिंतेर सोदलो टांक बुडयलो
हात कणखर भुताची सावळी
तींत रकयलें दाग खुणेचो
मनीसपणाचो हिशेब चुकलो.



## ताण

नेते चड नेतृत्व जाय
आशेन जगतां मेळत काय.
        वाट लांब वांकडी तिकडी
        आडावन धरतां घोळिल्ल्यो रुढी.

एक लोंढो बाबत आसा
आशेन भरला रावता दिसा.
        देश भेस संस्कृती एक
        कायद्यान चलपा मेळची देख.

नेक साज कुरुप रूप
विचार आसुडपाक घेवचें सूप.
        वाच मन भविष्य जाण
        तकलेक मनशान दिवचो ताण.

कोंड्या बडी रावता नीट
सोशीक करणी परिक्षा धीट.
        देणें घेणें दवर भान
        भोंवडे बोवाळ उठयलें रान.

शुध्द मन गुंतिल्ली रांग
तोखणायेची माळ राखची पांग.    ✻✻

## भुरगेपण

हांवें चिंतून चिंतून जायतें चिंतलें
उतर सांपडना.
काळ्या बायले तांबडें सायबा
कापड सोबना.
आतां भुरग्यां आपली मांय
ती आपलें दूद दिना
भुरगेपणा परतून मेळना
आडांगपणा मागीर सोबना
हाय म्हज्या भुरगेपणा
हाय .... हाय .... हाय
हाय म्हज्या भुरगेपणा
चींत .... चींत .... चींत
भुरगेपण परतून मेळना
शीक .... शीक .... शीक
वेळ पेड्डयार करनासतना
नांद .... नांद .... नांद
राखून जाणट्यांचीं मनां.
आतां जायतीं भुरगीं चोवपा
दिस्ता कापराच्यो बावल्यो
माय पाय तांकां उखलूं धाडटा

मिनाच्यो कायल्यो.
थोडे झेतान भोंवले
विकून वस्तू आपल्या
मांय - पायल्यो.
कठीण समजून आदल्यो
वस्तू - नव्यो वेंगी मारल्यो
नस्त्यो खबरो मतीं चिंतल्यो.
गोड ... गोड ... गोड
गोड कितलें भुरगेपण
जोड ... जोड ... जोड
ताकत आनी मनीसपण
मोड ... मोड ... मोड
मोड वायट आसल्यार व्यसन.
घड ... घड ... घड
मनशांचें एकवटपण.



# धर्तरी

धर्तरीची भूंय हांवें
हांतरी कशी कवळ्ळी
शेत भात आंबो पणस
पिकावळ फळयली.

धर्तरीची भूंय हांवें
आयस पयस पातळायली
धांवतालीं भोंवतालीं
भुरगीं जाणटीं खेळटालीं.

धर्तरीची भूंय हांवें
आडवी तिडवी माडयली
शारां घरां गोठे रानां
भोंवन आड उडयलीं.

धर्तरीची भूंय हांवें
झीज तिची आडायली
जैताच्या राज्याखातीर
शान तिची वाडयली.

धर्तरेची भूंय हांवें
ओड्डून आड्डून उडयली
एकचाराची ऊब हाडपाक
घांट सदां बडयली.

धर्तरेची भूंय हांवें
मळबा हारशां पळयली
माणकां मोतयां फातर कांटे
फाटी मारून बशिल्ली.

धर्तरेची भूंय हांवें
पावला पावला वळखिली
विस्वासाची धार कमी
अविस्वासान माखिल्ली.

धर्तरेची भूंय हांवें
अपुर्बायेन सांबाळ्ळी
जाणटे नेणटे एकठांय करून
मनां तांचीं कमयलीं.

धर्तरेची भूंय हांवें
वळसरा गुटलायली
भाव भाव रंक राव
शिद्द विशिद्द नाशिल्ली.

धर्तरेची भूंय हांवें
पावसा उदकां व्हांवयली
मान पान जात पात
दर्या ल्हारां पावयली.



## परिहार

फाटीं फाटीं रावता कित्याक
विशयवासनांनी मलीन मन
सर मुखार शांतताये अविश्कार
कश्टाचो परिहार

मनाक हुनहुनीत समाधान
सांसपणे मुळाक वेगळी कळवळ
शक्तीन उक्तीन येवनी आकार
कश्टाचो परिहार

लक्षांत कोणाच्याय आसत नासत
तुजे भक्तीक नम्रताये आस
गिन्नाटेभर भक्ती वाटेक आदार
कश्टाचो परिहार

पराकोटीची आस गिन्यानाक थाकाय
भाव खावप भाव राखप
जायत एकचाराचो साक्षात्कार
कश्टाचो परिहार

काळ वेळ उप्राशिल्लें काम
जैताच्या मळार सामायीक संघटन
भाव भावनेचो येवूं दी हुंकार
मेळत रुकार

वस्त सोपी जायत मनांत भरिल्ली
टवटवी हाडप सोडप कळना
नैतिक चेपण विचार आचार
गर्वाचो परिहार

विस्कटिल्ली एकवटाची उर्मी
जावंक फावत अस्तित्वाचें झगडें
अथांग अज्ञान गिन्यान आकार
सपन साकार

शब्दान अर्थान अहंकार लासप
ध्येय कर्तूब कामाची जाण
जागोवंक कल्याण पुरचे विकार
रुप निराकार



## रान

लाय धार घाल कुराड
संवय जडल्या भारी
उदरभरण गुर्वी करता
राखणदार सूर्य चंद्र
पावसान मूळ घट्ट धरलां
म्होवां मुसा सुंवारी.

ताळयां शेवणीं खांद्यार घोंटेर
डुकरां हांडयो थेरया गोली
गोरवां लाट जनावरां
नाचतालीं हांसतालीं.

मोगा उंडी दवर सांसपून
खुणेन खेळचें बसून तेंकून
मिचकावन दोळे ल्हवूच मोगान
बोट दाखयतालीं.

आस्तेचो कठीण हात
करतलो सगल्यां घात
हावे कवे गुरगुरताले

बलदंड मापारी.

पानार काकोळ वाडून उरची
कावळो बसून रावला मेरेर
भरिल्लें मन वोतून वचुनी
खोवपा जाय कस्तुरी.



## जागोर

नांगराचो फाळो बैलांचो गळो
झाडा खांद्या गोळ घेवन
करता झोपाळो.

शारां भोंवतालो वाटेर थांबतालो
हातार चणे उडोवन ताज्या
माथ्यार बसतालो.

जागोर चलतालो मार्गा सोदतालो
घुमटाचो ताल तांचो
आयकूं मेळटालो.

सुटाबुटांतलो झेतान लकतालो
नमळायेन आपली गरज
बेगीन ओंकतालो.

जीव मोगाचो उडत घुंवतालो
चिमणे झेली मोगा चाखून
मरून पडटालो.

काणयो सांगतालो न्हिदां उरतालो
भैऱ्या काना आयकूं येना
पालव मागतालो.

पांय मेजले ना पूण गाढव सोबतालो
उश्टवारो पळोवन ताजो
जीव मरतालो.

सुत्रां सोडटालो पुडवें न्हेसतालो
रान्नीपोल्लां बसून नळयेन
कोळशे फुंकतालो.



## आळस

सकाळीं फुडें पूर्व तांबडें
दिसता सोबीत बरें
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

सूर्य उदेलो तेजा तळपलो
घों घों व्हांवता वारें
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

हांसता फुलां नाचता शेवर्णीं
माथ्यार सो़बीत तुरे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

गोड उलवणीं धड उलयना
दिसता इतलें खरें
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

कळपा कळपांनी व्हांवत रावचे
तार पोरांचे झरे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

घोंसानी लागतात पिकून कुसतात
रसाळ पणसा घरे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

दोळ्यां जागरण रोगा आमंत्रण
पायां पडत चरे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

मनांत तगलें काल्यां झगडें
शब्द जावनी मारे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

वळख वाडची वेंग फुलोवची
भांगरा पडत करे
कळना लोक सदां न्हिदकुरे.

**

## बेगड

सत्येक शेंदूर लायल्यार
फातराचो देव जाता
अशेंच समस्तां फातोर समजून
तो फातोर दोतोर जाता.

जनांक चाळून भूंय गोंयची
काडलीं वेंचून बेगडी रत्नां
जाय कितें चलता कशें
कोणाक हाजें पडलें ना.

बुदवंत दोतोर फातोर आमी
अशो तांच्यो वल्गना
सुशेगाद गोंयकार आमी
कोणा कांय पडलें ना.

पांय ओडपाक जण एकलो
म्हालगडी झगड्यां सुकाळ
आस्वासनां मारप तोंडार
दीस पावना म्हयने काबार.

जटायू सारखे आमी गोंयचे
पातकां फोण भरिल्लो आसा
दामाची लाट रामाची लाट
उलथापालथ जावपा आसा.

लांच लुचपत वशिलेबाजी
म्हारगाय तर विचार नाका
खून चोरयो मारामाऱ्यो
सायबा तूं पाव म्हाका.

कथें भितर आड कथा
पैशांफाटल्यान सगळें धांवता
तेंच निमीत गोंयची भूंय
फुक्या सवाय विकपा वता.

आपूण जावन आपलें सोंपण
वळखून मारचें खिळ्या तोपण
सदां जावचें बसके म्हाजन
खोपी वाडे गुंथया गांथन

**

## नेक म्हण

आयलो आंगार घेतलो शिंगार
अशें केन्नाय घडचें न्हय
लोकां मर्दी वावुरपाचें
कोणें केन्नाच सोडचें न्हय.

विद्येन बुडलो रुपान सोबलो
घनचक्र कुस्तार पडचें ना
असाध्य तें साध्य घडपाक
विद्येक मोल मापचें ना.

पोशेभर दिवचें चिमटी लिपोवची
भाण भरून ओत्तलें
घोंशोवपा खातीर मनांतले मांडे
आक्रीत मोठें घडटलें.

वज्रां रत्नां सोबीत अगणीत
सोबतलो मुकुटमणी
सदांच विद्या न्हेसून भोंवतली
बुध्दिमत्तेची पैठणी.

न्हय उपकारांचे वजें
पुण्य पदरां पांगुरचें
भक्ती शक्तीन गिन्यान वाटचें
अडिल्ल्यां नडिल्ल्यां पावचें.



## लक्षण

खालों जेवलों न्हिदून उठलों
तळमळ कशी सोंपली ना
टोंचणी म्हज्या जिवा लागल्या
कित्या म्हणून कळ्ळी ना.
मोह माया चिकटून रावल्या
शीम आंखपा मेळची ना
तळमळ जावची जिवाक भोंवची
रोगाचीं न्हीं तीं लक्षणां.

पोटाखातीर धांवतां भोंवतां
आस केन्ना भागलीना
कसलेंय काम पयशे जोडपाक
लजे वेसण घाली ना.
कळकळ म्हजी सदां आसतली
शेक मनांचो चलपा ना
लांच लुचपत आसपावपाची
भोगाचीं हीं लक्षणां.

आपदा आपत्ती भोगून रावलों
वखद्‌ा कोण मेळपा ना

हांव कसो सोंपलों तूं कसो जेवता
न्हीद दोळ्यां मेळची ना.
मनां मनां मदीं विगोड चल्ला
राग लोभाची पर्वा ना
हांवच वयर कोणा वळखना
मत्सराचीं हीं लक्षणां.

चैन चंगळ जगांत चल्ल्या
कपड्या अब्रू कमी
पोट मोठें धोल सुटलां
कोणाली चलना हमी
भुषण जावचें दुषण पावचें
सांगचें कोणें कोणाक
दोळे हे दुख्खां गळोवनी
सांधपाक सगळीं मनां.



## जिवन

जिवन म्हळ्यार एक मोग
जिवन म्हळ्यार एक चैतन्य
जिवन म्हळ्यार एक सपन
आभास जावचें न्ही जिवन

जिवन म्हळ्यार एक झगडें
जिवन म्हळ्यार हिकमती पगडें
जिवनाचें दर्शन उघडें नागडें
घेवपा कोणच पावलो ना

जीव जिवाक अडचणी दोंगोर
एक दुसरो वेगळी करणी
जिवन भोगपाखातीर खंडणी
थारायिल्ल्या वेळान दिवपाची

जिवनाक जायत दोन दोळे
भरभराटीचो ..... कमीपणाचो
तरीकय करपा कापास्ताद
उभारो जिवनाक दवरपाचो

जिवन म्हळ्यार कटकट दूःख
भोगपा मेळत बरें सूख
नड अडचण आसत एक
सोदूं भोंवता पोट भूक

जिवन म्हळ्यार एक तागडी
जगपा जिवन दिवशी पागडी
हांतरूण पळोवन पांय सोड
घोस्त सगळ्यां घालपा फुगडी

तरी उडदां खंय काळे गोरे
वेंचूं मेळना इतलें खरें
कागदा फुलां सोबीत तुरे
वास कसो आसतलो

भर गंध सोड सुगंध
पळय जिवाचें अंतरंग
नितळ जिवन आसचें उरचें
सेवे सदां जावचें दंग.



## खंत

मेज जगाची लांबाय रुंदाय
जग आसा एक कादय
विंगड विंगड आचार विचार
अंत लागना अंत पावना

सिध्दी मेळोवंक यत्न करचो
एकच घटना न्हिदप चुकना
पातकांची कर्मां चलत राबतात
अंत लागना अंत पावना

निवळसाणेचें काम गरज मोठी
उडय झाडून बुद्धींतली घाण
वेळ सोडचो साद्रूंक गिन्यान
अंत लागना अंत पावना

भरसल्ले विचार करपाची सेवा
मुखार उबो राटावळीं दोंगोर
भरला कलह भक्तीची तेंगशी
अंत लागना अंत पावना

अनंत अंत शब्दाचो धागो
समजून घेवपाचो जावचो यत्न
भुलयत मन सिध्दीची खंत
अंत लागना अंत पावना

वायट बऱ्या कर्मांचो आपरोस
सांबाळ करपाक भूंय थोडी
मुयांची रास भेळशेल्लो वास
अंत लागना अंत पावना

भूंय वारें उजो उदक
मनीस जमात एक हारो
घुनाळ्यो मारता रथाचें चाक
अंत लागना अंत पावना

साक्षात्कार करून घेवचो कोणें
कर्म धर्म निमाणो नेम
अनंत दर्यो अनंत मळब
अंत लागना अंत पावना



# गुर्वी

तन मन धन - माये मोगाची गुर्वी
जगणें, वागणें फाटीर - धरतात वेंठीक.
मार झोड खण खड्डे - घाय केन्ना पेखचेना
जखम खोल मोन्यांनी सोंसप - हांसप नादप
कां - कूं करिनासतना.
क्षमाशील माय रमा - एकठांय करून अवलक्षणां
वांटपा भोंवता क्षमा.
रावची तुवें हरवी
अपराध वोंक पोटां घेता
ना पार ना अंत - शांतीचो मंत्र
नमळाये नमन
माये मोगाची गुर्वी



## उदक

झरो व्हाळ न्हंयो समुद्र
कमळां तळा - जळां
भेट ही आनंद दोळ्यां
सूख चड नितळ उदक
दोळे धांप खोदोळ रेबो
जगचें पिवचें करचें मर्दन
उदका सारखें जिवन
करचें उदका स्तवन
उदका करचें नमन.



# भक्ती

भक्तीक जाय मोग आनी धग
पंचखाद्य आरती - प्रसाद वांटून उडोवपाचो
सांबाळूंक शक्त - कर्म पातकी
अडकून पडल्या भक्ती
गळ्या माळा - कपला बुको - आंगा भस्म
रुढीन भक्ती वाट मळिल्ली
वेगळचार घडचो न्हय - लोकांक कुशीन धाडचे न्हय
मुक्तीचें गीत रचपाक - सांबाळ रुप भक्ती
गिन्यान्याचें रुप भक्ती - वैराग्याचें वागणें
कारण समजून जगणें
तांक देवान दिवपाची - मनां समजून घेवपाचीं
तीच गोम आसतली - भक्ती रुप येवपाची
लाचार-दुर्बल-कंगाल-भित्रो -परस्वाधीन ध्यान पळोवन
खंत मना भोगपाची
मनां मनां घुटमळटालीं मोगा धग सोडतालीं
तिरस्कार लिपयतालीं - गिन्यान यज्ञा राबतालीं
भक्तीचें मोगाळ रुप देवाकडेन मागतालीं.

**

## पुराण

पानार बसल्यार पडना पेज - माये मोगाची खबर एक
देवाली भूंय नटिल्लें गोंय -म्हाका लोकांची दिसता लज

सरबताक खंय बरो लिंबू - सर्कशीक गरज तंबू
भलायकेक बरें शिवांबू-फट म्हणून आयकयात

हौशे नवशे गवशे - अेकठाविल्ले सगळे कडचे
केस्तांव मोगान पळोवचें - मागणी आसा सगळेकडेन

खेळां खेळ खंय मटको-जिवाक ताचो गरम चटको
जसो कडक विडये झुरको-मांडार रंग भरतलो

नाजाल्यार काडया फंड-रस्तो असोच करया बंद
त्या बगर जायना थंड - तरणाटे जाय अखंड

मनशांक मनीस खंय पावता-देव खंय मनशां रावता
मनीस भोंव भोंव भोंवता-सर्कशीं काम करपाखातीर

आतां पडटकर धोलार बडी-मारतात सगळे तळ्यां उडी
मागीर एक एक भानगडी-देवान पार घालपाच्यो

अशेंच खंय जायत फुर्र - रोकडेंच जावन येवचें तर्र
ताज्या बगर जायना घर्र - खबर मोलादीक सुवादीक

घराकणकणीं रुजलें बार-लोकां मळणी करपा हुशार
खेडीं पाडीं ताजो जागोर-उदरगत मळब पळयता

शार कोंढण नेटनी गांवठाण-पायरे पायरेन चढया सपण
बोल्सां सदां आसनी आबोन-उदरगतीचें पडचें सपन

**

# घर

सोबीत घर सादें घर
घर राखपी घरपण
रुप नखरो पयस दवरून
गिनत राबता शाणेपण

घराक केन्नाय कोणूय हुंगत
आळवावेलें उदक
सत्याची चाळण घट्ट बुन्याद
तेकूंक फाट उपकारत

रिकामो हात दुसऱ्याचें ताट
मेजूं कोणूय भोंवत
मनां शांती विकती मेळना
वगडावन रावशी सांगात

उज्याचें उन जगपाक हवा
कश्ट उभारूंक घर
मोल राख घरचे कामाक
पांवड्यार पांय पळोवन दवर

घोळप चड उबार घर
दवर घर तिगून
आराय घर भरून सजूं दी
कवंची केन्ना जायना रत्न

घट्ट खांब्यार उबार घर
वागप पडत जडार
उमटूं जाय कश्ट कर्तूब
घराक खुंटी जाय जाग्यार



## उतरावळ

पडंग - ओसाड, नापीक
इशिम - लज
मगज - पोंटलो, ठेवो
गुर्वी - पृथ्वी
कामोवप - तयार करप
पोवों - कळप
कपी - ठिगळ
तेळप - बारीकसाणेन पळोवप
अचिर्काय - जाण, समज
बाबज्या निरांजन - भिवकुर
सुलूस - माग, जाण, वळख
वसो - नाद, लागण
सुल्ली - चीर, भेग, फूट
लूव - रुच, उमळशीक
कुलावप - आपोवप
पारो - राग
पगडें - खेळाचो पट
गोम - खुबी, भानगड
आबोन - थाकाय, नकद
घोळोव - सराव
तगोवपी - सांबाळपी, राखून दवरपी
झेलोवप - सांबाळप
हुंगप - वास घेवप
आराय - एकठांय करप
तीजप - प्रतवार काडप
मालदीसाय - वायट खबर
तिगून - राखून